वर्स : सात | अंक : तीन
ग्रीष्म अंक | मे/जून १९८९




कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ : श्रीधर कामत बांबोळकार

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव ( गोंय ) ४०३ ६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय–वेरें, फोंडें ( गोंय ) ४०३ ४०१

अंकाचे मोल : २ रुपया   वर्सूकी पटी : ( विशेशांकासयत ) १२ रुपया

मांडावळ

१.

**निळू म्हजो खेळूं**

निळू हो मनाचो निळू हो थळाचो
तूं ह्या निळूवें मागून घेरे
निळूच्या मुळांनी निळूच्या थळांनी
नदिचें पिडेचें व्हांवता रे वारें

निळू नीळरंगा तुजें बीज केळूं
तुज्या धरपसाणेत जग हें मदाळू
निळूची सदां याद काळजांत खेळूं
निळूच्याच गजरान लागता उमाळूं

निळू नीळराजा तूं राजा निजाचो
तुजे दीस आयल्यात खेळून घे रे
निळूचोच दर्या निळूचीच माती
निळूचेच सांगणेन झड्टात तारे

निळूच्याच हट्टान सगळें चलूंदी
निळूच्याच हातान सगळें जळूंदी
आपूणसो निळूक हात माथ्यार घेवंदी
निखालस निळूचो गोबोर जावंदी ...

२.

सूर्यफूल

ती तायट जाल्ली तकलेची शीर दिसता ?
ती आत्तां तुट्टली
हो खिणा खिणाक भरतलो बोमाडो दिसता ?
तो आत्तां फुट्टलो
हो मोन्या शेणाचो थापो दिसता ?
तातलें दीपरतन आत्तां वयर सरतलें.
हो थंड जाल्लो दर्याचो अथ्रेक दिसता ?
कांय वेळांतच प्रलय जातलो ...
थंय – डीम जायत चल्लेलो सूर्य
आनी हांगा बागेक लागिल्लो उजो दिसता ?
भांगराचें सूर्यफूल फुलूंक आतां वेळ लागचोना ...

३.

## तुम्ही आनी आमी

तुम्ही इनोद केला
आमी पोट फुटंसर हासले ...
तुम्ही स्टेजेर सवड्या नाचवली
आमी खामसुत्र्यावरी मानो धोलयल्यो ...
तुमी तुमच्या न्हेसणावयले दाग दाखयत भीक मागली
आमी म्हार आमचीं धवींफुल्ल न्हेसणा म्हेळ करूंक फुडें सरले.
आमचें उदक पीवन तुमी कॉणाकॉणात मुतून गेले
आमचेच न्हंयत मुतून आमी तुमचीं कॉणा चाटीत बसले.
तुमचे कितले निळू हांगा सद्दरी खेळून गेले
आमचीं घरां जाळून लेगीत कितल्या निळूंक खेळूं दिलें !
आमकां तुमचो 'गळो' म्हणीत आमकां तुमी गावयले
तुमी मात सबंध धड आनी आमकां फक्त 'गळो'च केले ?
पायां पड्टां – आतां मात आमकां आनी खेळों नाकात
तुमचे इनोद तुमच्या कुस्क्या वाठारांनी हांसयतले
आमच्या नीतळ थंडसाणेत तुमचे इंगळे न्हीवतले ...
तुमचो देश आसत फातरांचो
आमचो पांचव्या रंगाचो ...
पायां पड्टां – आतां निमाणो करार करूंया :
आतां आमी मानाय करो तुमचे फातर घेवन मानेर
खरशेत हांगा हाडचेना;
तुमी आमचो पांचवो रंग वयलेवयर बुड्डून आतां काडचेना.

४.

## बोबो

हांव बरयना
हांव आड्डतां;
जसो बांयत पड्टकोर मारता घरांतलो बुकलो बोबो ...
तळघरांतल्यान आतां हांव
मोठ्या कश्टान
वयल्या मजल्यार रग्बूंक आयलां;
जसो रावता बांयतलो बुकलो कडकडत
बांयतल्या चिऱ्याक घट्ट धरून ...
बुकल्याबशेन हांवूय उदक पिलां
आनी जड जालां ...
भयान, आणकुल्यो कपलाक पावल्यात
आनी सकळ उदक फोसणा घालता ...
बांयतल्यान भायर सरप शक्य ना
हें खबर आसूनय,
बुकल्यावरीच काचाबूल जावन हांव धरतां
एकदां ह्या चिऱ्याक एकदां त्या चिऱ्याक

आतां हांव फकत मारतां बोबो
बांयतल्या चिऱ्याक धरून जिवा आकांतान,
बुकल्यावरी वाट पळयत;
केन्नायतरी घरधनी
म्हज्यो बोबो आयकून येतलो
आनी राजवाक बांदून एक पाटलो बांयत सोड्टलो !

५.

तू

अचकीत येता
घोगो पावसाक
तसो तुजो धाक
काळजाक . . .

खंयचें कोण तू
कोणाचो हावेस ?
मातयेचो पावस
मातयेंत . . .

घेवन तू आयलें
निलगिरीचो वास
म्हजो वनवास
सुरू जालो . . .

सदा खंय चड्टा
पावसाक धार
नाल्यार झिर झिर
सदांचीच . . .

वझऱ्याचें पाणी
तशी तुजी वींण
न्हाता मडवळीण
पावळेंत . . .

केन्नातरी अशी
धरची गे आस
फळटलो ध्यास
जिविताचो . . .

तुजे म्हजे मदीं
हुंवाराचो नेट
तुजी म्हजी वाट
मळबांत . . .

६.

## मरणामृत

पावस निवळटकीर
सुकिल्लया चकचकीत नळयांचेर
दमटल्लें वत पातळिल्लें आसतना
त्या नळयावयल्यान अचकीत् एक पांचवोचार दीवड सळसळत वच्चो
तशी तुजी याद . . . मरणां !
हांव तुका कसो विसरूं ?
म्हजीं भुरगेपणां म्हजीं नाडींगपणां
पयसल्यान पळौन;
तुजें मुमुर्खेंच हांसप . . .
आनी उड्णां मारीत . . . फुकोसवाय झेत मारीत
तूं नाच अशें समजून
तुजेच दिकेन चल्लेलो हो म्हजो विनोदी प्रवास.
म्हाका तुजी याद येता
म्हाका तुजो वास येता – म्हज्या श्वासांत . . . मरणा !
म्हज्या मुस्कटार तूं अशींच थापटां उडयत राव.
शिमिटाच्या झाडांपेडांर नाची करतल्या
ह्या शापोतेर माकडाक तूं हीणयत राव . . .
म्हणजे तुजी याद
सदांच म्हज्या काळजांत उरतली . . .
पूण अशें भेश्टावन म्हाका खळोवं नाका;
म्हज्या पिशेपणाक सोपोवं नाका;
हांव आसासर म्हजीं पिशेपणां चलूंदी . . .
पायां पड्टां – म्हाका शाणो जावपाचो ना
आमकां कोणाकूच शाणे जावपाचें ना . . .
एकदां शाणो जाल्यार
म्हाका पिसो जावन भोवंचो पड्टलो . . .
इतलेंच उपकार कर;
तुका सदांच जगोवपाचें म्हजेर पावलें . . . मरणां!

# चार अणकारीत कविता

अणकारपी

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

## रवीन्द्रनाथ टागोर

उज्वाडांत भय ताका
भय टीमटीम दिव्यांत
तिखटांत भय जितलो
तितलो भय गोडशांत

भय ताका अस्तमेक
भय ताका उदेंतेक
चोयल्ले दिकेक भय
भोंव ऽ ताचे भितोडेक

भय ताका आपल्याच
घराच्या रे फातरांचे
भय ताका अकारण
दुसऱ्यांच्या वण्टींचे

भय ताका भायल्यान
भय ताका अंतरी
भय ताका भुताबितांत
भय ताका मंतरीं

भय ताका दिसाचें
दोळयांतुल्या दिकेचें
रातीं काळखांत ताका
भय ताचे फाटीचें

## कितल्या व्हडयांनी कितले पावट

कितले पयस सावन बरेच पावट
धोलतल्या व्हडयांनी बसून
हांव तुजेकडें आयलां
हे म्हजे इल्लेशे जोती !

केन्नाय धुक्यांत तूं दिसताली
पूण ह्या धुक्यांत दिसपी तुज्या
इल्ल्याशा रूपेरी झगझगाटांत
वळखत तुजें प्रभामंडळ.

कितले पावट
धीर, शेंसूस्त, अक्कांत –
हे म्हज्या पालोवंक नासलेल्या सत्या !
कितले पावट . . .

आनी कितले पावट कितल्यो ओडलायण्यो पातमाऱ्यो
म्हाका ओडून गेल्यो पयस
खबर ना खंयच्या खंयच्या देशांच्या
निर्दय वाऱ्यांत
जंय काळयाकिट्ट नागडया काळखांक
आनीकूय उकतो करीत वयता
एक नागडो, खर, निर्मम प्रकाश –
जाका कसलेंच प्रभामंडळ आसना
फक्त अजापभरीत तथ्य . . तथ्य . . तथ्य . .
सत्य न्हय, अंतहीन सत्यां ...
कितले पावट म्हाका
दुखेस्त ... लेजाद ...चिंतकूल
कितले पावट !

('कितनी नांवो में कितनी बार')

म्हाका दिसना
की संवसारांत कोण म्हजो विचार करतासो
म्हजेविशीं विचार करपी फक्त
हांवूच एकटो आसां
आनी जर म्हण हांव ह्या वक्तार खंवसलो
तर मागीर, हांव लेगीत म्हजो विचार करचोंना
हेच सुवातेसावन सुरू जाता एक विवर
न्हीदच्या वक्तार जशें सुरू जाता तशें
म्हजो आदार हांवूच आसतां
आनी सोंपोवनूय हांवूच उडयतां
सग्गळें कितें आसा तें म्हज्या नासपांतल्यात
ना करपाक हांवूच आदार करतां
देखुनूच काय कितें
तुमी कोणाचोय विचार करता
तेन्ना ताका जागयत आसता.

('आलोचना': १९७९)

## हांव विसरूंक सोदतां

ह्या शेकानशेक पातळळेल्या शेतांत
पावस म्हण केन्नाच पडना
म्हज्या कपलावयल्या घामान
झाडापेडांक आपली तान सांवरचो पडटा
थंय जी कापयाचीं झाडां लागतात
आनी चेरिच्या झाडांक तांबडो भडंग फुलवर येता
तो म्हज्याच रक्ताचो एकेक थेंब आसता
जो शेकेवन घट्ट जाल्लो आसता.
काफे मिजोवंक जाय
वतांत सुकोवंक जाय
मागीर दळूंक जाय
जोमेरेन काफयेचो रंग
आफ्रिकी हमालांच्या आंगावरी
काळोकुट्ट जायना
आफ्रिकी हमालांच्या किणेल्ल्या रक्तावरी
काळोकुट्ट जायना . . . तोमेरेन !
हीं मळबमुक्त सवणी गायतात
तांकां विचारा
जीं निचिंत जावन न्हीदतात,
हांगा थंय चिवचिंवतात, ताका लागून
ह्या महाखंडाच्या मदेकाक नकाशांचेर
जें वादळी वारें व्हांवता ताका विचारा
सकाळ जांवचे पयलीं कोण जागो जाता
आनी तेन्नासावनूच कोण वावराक लागता
कोण बागवल्ल्या खांदार नांगर मारून
पयशिल्ल्यो वाटो चलूंक लागतात . . .
कोण पिकेवयल्यो पावटी
पावयतां पावयतां खरशेव वयतात
कोण बीं घालता
आनी ताच्या बदलाक ताका मेळटा कितें ?
दुस्वास, शेळें अन्न, कुसलेलें नुस्तें
एक दोन पयशे, पिनलेली मुस्तायकी
आनी हाचे मायरूय ताका मेळटा इनाम
चाबकांचे वळ आनी बुटांच्यो खोंटो

– कोण हो मनीस ?
कोण पिकयता गंव आनी मको
कोण फुलयता
ह्या वळीन लायल्ल्या नारंगी झाडांचेर फुलांच्यो जात्रा
– हो मनीस आसा तरी कोण
जो वयल्यान मिशिनां, मोटरां आनी
बायलो विकत्यो घेवपाक पयशे दिता
कोण ह्या मोटरींच्या टायरासकल
चिड्डपाखातीर निग्रो तकल्यांचो हिशोब करता ?
कोण गोऱ्या मनशांक गिरेस्त करता ?
– कोण हो मनीस ?
तांकां विचार
जीं मळबमुक्त सवणीं गायतात
जी निर्चित जावन न्हीदतात
हांगाथंय चिवचिवतात, ताका लागून
ह्या महाखंडाच्या मदेकाक नकाशांचेर
जें वादळी वारें व्हांवता . . . तांकां विचार
ते सगळे एकूच जाप दितले
– तो काळया रंगाचो मनीस
जो दीसरात बैलावरी जुंवाक बांदलेलो आसता !
आरे . . आरे
म्हाका निदान म्हज्या भुंयेवयल्या
त्या ताडाच्या झाडाचेर तरी चडपाक दियात
थंय बसून हांव सोरो पियेतलों
जो म्हज्याच गांवच्यानी
ह्या ताडापासून निर्माण केला
सोरो घेवन बाण जातना
हांव विसरूंक सोदतां
आनी विसरतलोंच
खऱ्यांनीच विसरून वयतलों
हांव एक काळो मनीस
आनी म्हाकाच लागून
ही सगळी गिरेस्तकाय उबी जाल्या !

('आलोचना' : १९८९)

# सांज - सूर

उल्हास पै रायकार

१)  ह्या सांजवेळा
अशेंच घडटा
पनेळ येवन
देगेक लागता . . .

२)  ह्या सांजेची
म्हूर्त विमुक्त
तांबशी तिष्टत
ल्हव सांजेत तृप्त

३)  ह्या सांजेचो
हुंकार रंगला
भंय अनंत
ॐकार शेणला

४)  ह्या सांजेच्या
सप्तरंगानी
सहस्त्रसूरांचे
गोफ विणल्या
दर्या पैलाड
अुषत्‌काळाची
रंगसूरयाळी
मैफल रंगल्या

५) ह्या सांजेची
रंगयादीनी
घुस्पलीं बोटां
बोटांक नक्षी
रंगरंगयाळीं
सुरंग थिकां

६) ह्या सांजेची
तुज्या दोळ्यांनी
अनंत रूपां
मनांत म्हज्या
फांत्या सपनांची
भांगर – अप्रूपां

**सांज गीत**

अळंग देंवता सांज सुरंगी
अंतरांत मोगा अुदास धुंदी

घेवन ल्हर – लय दर्या ल्हारांची
कुपां भोवती मळबां रंग बिरंगी
शेवणें अेकसूरें सूर सजयता
रसीक मना रे कोण ना संगी
अळंग देंवता . . .

वाऱ्या विचारतां तो तर ओग्गी
पैसूल्या गांवा याद तनरी
निळया मनां रे प्राण जागयता
शांत प्रिया हांव मिलन समाधी
अळंग देंवता . . .

## आर. रामनाथ

**पानगळ आयज आयलो खरो**

खाया तेरो खाया तेरो
आनी थोडीं पिया कुयां
पाय गेला सोरो पियों
हाडूं नाका दुकां दोळयां
खाया तेरो खाया तेरो
पोटा भूके बेस बरो . . .

किरकिर करून बाये तुमी . . .
मायक तुमच्या छळों नाका
दोळयांच्या इंगळयांनी
मायक तुमच्या जळौं नाका
थंय राजा उबो तुरो
हांगा पोटां रिगला सूरो
खाया तेरो खाया तेरो
पोटा भूके बेस बरो . . .

चुलीवेलो बुडकूलो
शांतचित्तान करता तप
अग्नीनारायणाचो
कसलो चल्ला जप ?
पानगळ आयज आयला खरो
काळजां फुटला दुकां झरो
खाया तेरो खाया तेरो
पोटा भूके बेस बरो . . .

# पांच कविता — मेलवीन रोड्रिगस

१.

**सांगवे आदीं**

सांगचेआदीं
सरशीन येतों
चेडवा तुजे
उमे घेतों
वोंट म्हजें
गिरेस्त करून
पोल्यार तुज्या
तंबू मारतों
पूण –
पात्येंव कशें
चेडवा तुका
वाट्टेक गेलांय
आपंवक म्हाका
जरूय हांव
शिबरो जातों
जरूय हांव
शिबरो जातों

सांगचेआदीं
सरशीन येतों
चेडवा म्हजें
काळीज दितों
करून खाली
सदांच म्हाका
जिणयेंत तुज्या
सरगच हाडटों
पूण –
पात्येंव कशें
कळना म्हाका
मिरंवक मेळतीत
कोंबले तुका
जरूय हांव
कुड्डो आसतों
जरूय हांव
कुड्डो आसतों

२.

**तूं वच**

तूं वच
म्हजें काळीज
घेवन वच
वाटेर केन्नांय
याद फुट्टां
हातीं घेवन
गालांक पूस

तूं वच
म्हजी याद
घेवन वच
रातीं गजडेर
निदचेआदीं
मातशें तरूय
ध्यानाक बस

तूं वच
वेगींच येंवच्याक
आतां वच
घडियाळाच्या
कांट्यानादांत
म्हज्यो उडियो
मेजून बस

३.

**खजान**

म्हज्या वोंटांनी
तुज्या वोंटांचेर
धाड घाली –
पूण
तुज्या अुम्यांचें खजान
फारतां तितलें
जायना खाली

### ४. म्हज्यायी आंगणांत

म्हज्यायी आंगणांत पळे
आंगणांतल्या फातरांक पळे
तांकांय फुटलां मोवाळ काळीज
दुकांनी व्हांवतात दोळे
म्हज्यो राती खंयसर गेल्यात
आजून राकोन रावल्यां मांदरेर
निदतां निदतां नीदच पडना
गजडेक कशे फुटल्यात खिळे ?
म्हज्यायी आंगणात पळे . . .
चंद्रेम-तारां हरशें पाक्यार
हरयेक रातीं पारत मात्यार
आयच्या दिसा मळब पडलां
हांवूय रडटां, रडटात नळे
म्हज्यायी आंगणांत पळे . . .
म्हजीं अुतरां तुका रे दिल्लीं
तुवें तांचीं पदां रे घडलीं
आयच्या दिसा अुतरां हांगा
हरयेक उतर फाराचे गुळे
म्हज्यायी आंगणांत पळे . . .

५.

**जिताची कविता**

तुजे चालचमकणेंतू
तुजे कुडी परमळांतू
तुज्या दोळयां आमालांतू
देखली कविता . . . जिता
देखली कविता

तुज्या केसां रासराशिनी
वोंटा अुम्या घोसघोसांनी
कानाड्डया पुसपुशांनी
मेळळी कविता . . . जिता
मेळळी कविता

मोगा तुजे अुबाळ वेंगेंत
साजो चिंवतां दर्या देगेंत
म्हजे तुजे काळजा उडयेंत
फुल्ली कविता . . . जिता
फुल्ली कविता

# आठ कविता

दुर्गादास गावडे

१.

**म्हजी जीख**

म्हजी जिख
तुजे हारेन आसा
म्हूण तुका हांव
हारून घे म्हणचो ना
तुका हारोवनच
म्हाका जिखपाचें आसा

२.

**मोग**

काळखाचें गीत गो
तुज्या उतराखातीर
माल्लें मोखून
उजवाडाच्या दिकांचें
पाखाटेंच हाडलें कोंचून
मोग मोग उजवाड आतां
जैताचे खोशयेन
हावें तुजेर मोग केला
सुखाचे आशेन

३.

**रात**

रात ओली
चंद्रन्हाण न्हाली
भिजिल्लें न्हेसण पिळीत
म्हज्या रंध्र - रंध्रान रिगली

४.

**वेव्हार**

' वेळ आयलोच जाल्यार
तुण्या नाजूक पावलांपोंदा
हांव म्हज्या सुखजाजमाच्यो
घडयो पातळायन,
अशो फटाशो कित्याक मारूं ?
मोग तर तूंय करतलें
कित्याक म्हण हांव
म्हज्या सुखाचो वेव्हार करूं ?

५.

**सपनमोर**

म्हज्या सपनाळच्या नगरांत
एक दीस एक मोर आयलो
सप्तरंगी सपनांचो इंद्रधोणू
शिवरायत . . .
तेन्नासावन एक एक रंग
म्हज्या दोळयांच्या पडुद्यार
उदेत रावला . . .
आनी अजाप म्हळ्यार,
— म्हज्याच पायांपोंदचो रंग
म्हज्यान आतां वळखूं नजो !

६.

**सैमचक्र**

म्हळब भल्लें कुपांनी
दोळे कित्याक दुकांनी
मिर्गाच्या सुलसान
काय गिमसुक्या यादिनी ?

सैमचक्रा अखंड गती
कोण कित्याक जावंचे खंती
एकेक रात एकेक दीस
ह्योच आमचे जिणे-वाती

सपनव्यापी मनाक आतां
फुलारूंती म्हळबभर
म्हळबतळा उत्फरक्यां
येवनी चंवर येवनी चंवर

७.

## दिष्टावो

उदेतेच्या किर्णांक
नमन करूंक
हात उबाल्ले
आनी इतल्यान फाटल्यान
कोणेतरी शुक् - शुक् केलें म्हूण
फाटल्यान वळ जाल्यार !
अस्तमतेचे म्हळब निळायेंत
म्हजीच सावळी
म्हाका सुणायताली कुरवांनी !
हावें मागीर
तिकाय नमन केलें !
आतां –
सूर्य म्हज्या माथ्यावयर आसा
सावळी पायांपोंदा
आनी दिको –
त्यो सताड नागड्यो

८.

## मन दर्या दर्या

म्हळब रंगान
मन दंग
मना धडेर
गीत गंध
सांज चड्टी
दर्या धुंद
दर्या गायता
मनाचेंच गीत

# दोन कविता

रामानंद तारी

१.

**उठटा बसता घाणी**

उठटा बसता घाणी
आमी सांगतना तुमकां, लागता ती एक काणी
दोन दीस दुयेंत पडल्यार आमी
तुमच्या वाठारांन भोवता घोणी
आमच्या भुरग्यांचें चिंतपाक जाय आमीच
राखून दवरून जागो, किदें इप्रित करूंना तुमी ?
वयल्यान तोंड दाखोवन केणयलें सगळयांनी
उठटा बसता घाणी, आमी सांगतना तुमकां लागता ती एक काणी
खुर्च्यो सगळयो बऱ्यो सांबाळळयो तुमी
कोण जाले बामण, कोण जाले म्हाले
कोणांक केल्यो भावणीं, बाकीचे खारवी, म्हार, वाणी
आनी आमकांच व्हड दबाज्यान सोपयली कुमावांची खळी
करचें पडटा सगळें हें मरपाक ल्हानशी नळी
उठटा बसता घाणी, आमी सांगताना तुमकां लागता ती एक काणी
सरकारी राजपत्रान तुमीच म्हुं छापलें जातीपाती नष्ट करात
सगळे जाण एक जायात
आमी म्हुणटा, लिडरांनो तुमी फकत व्यासपीठाचेर जीव तोडून भाशणां दियात
आनी घरा पावतगीर पयली आपल्या भुरग्यांक धाक दियात
भायल्यान उदारमतवादी जायात, भितल्यान कट्टर संस्कृतीचे अभिमानी जायात
अश्या दोन संवगानी जीणें जगपी
आमकां दियात उठटा बसता घाणीं, सांगताना आमी तुमकां लागता ती एक काणी
आमी सोसली ती वास पुरो
वसावळीचो आमच्या फुडार वितला एक बरो
घाणीन पडलेलें आमी भुरग्यांक दाखयतले रस्तो एक नवो
परंपरा चलपाक दिवचेना, वास चोनून घेवचेना
त्या शिवाय तुमकांय बी कळचेना, आमच्या जिवीतांतल्यो घाणी
आमी सांगतना तुमकां म्हंय ती लागता एक काणी
फुडारांचे सपन थारायलें, भुरग्यांक फुडें हाडलें

आमी फाटल्यान रावोन, फाटीं सरतल्यांचे रक्त, जमिनीर सांणयताले
तुमकांय बी फुडार आमचो कळोवन मेकळे जातले
आता घडये तुमच्या काळजाक तोपता भाले
तुमचे तुमकांच न्हुं करचे पडटा सगळे
आतां तरी आमच्या जिवितान ना उरच्यो घाणी
आनी तुमकां सांगतानां, तुमींय बी ना म्हुणचे त्यो सगळचो काणयो
कशें ?

२.

**नस्ती वासपूस**

हांव हांगा रावता
तुमकांय बो दिसता
तरीलेगीत तुमीच न्हय ते म्हुणटा
किदें रे बरो आसा मरे तूं ?
दोळे आसुनलेगीत
कुड्डो विचारता तसो हो पश्न
तुमी विचरोंन मोकळे जाता
खऱ्या खोटयांची मान तुमीच न्हय गा शिकयता
मोनेपणांनीच जियेतल्यांक फातर मारून
तुमीच न्हय ते जागयता
आमचे वाटेन आमी, तुमचे वाटेन तुमी
हें परतून सांगपाचे लागता कोणी ?
आमच्याच दुकांच्या विचारांनी भल्या आमच्यो खणी
बरे ऽऽ तुमी व्हावयले सुकांचे पाणी
म्हुण किदें भरपाच्यो त्यो आमच्यो खणी ?
आमचो वाठार उक्ते मळ
थंय ना धड थंडाकाय दिवपी सावळी
ना शितळकाय दिवपी उदकां तळी
रातुच आमची सावळी नि उतकांतळी बीं
दोस आमचो दुस्मान अशें बी समजो नाकां
ना आमका कोणाचो कोण, ना तारतलो वाली
जंय आमच्यो आमी उखलपाक जाय, मसणवाटेची मळी

ना आदार, ना फुडार, तरी लेगीत तुमीच न्हय ते म्हुणटां
किदें रे बरो आसा मरे तूं ?
वाट आमची खाच खळग्यांची,
तोपून पायांक आमच्या, चाळण केली फातरांनी
तेन्ना आमच्याच दोळ्यांनी दुकां गळयलीं
काळजांनी आमच्या हाय म्हुण सुस्कारे सोडले
तितूनच अर्दें जिवीत आमी काबार केलें
अशें आसून लेगीत, तुमीच न्हय गा विचाल्लें
कितें रे बरो आसा मरे तूं ?
आमचें बरेपण तुमकां नाका
तुमी शिजयल्यांक आमी आवणे घोटिना
तुमच्या वंटीक पळोन आमी हडपां आमचीं मोडिना
तुमच्या सुटांबुटांक आमी तोखवेना
अशें आसून लेगीत तुमचें वऱ्हं आमी लोकांक सांगतले
म्हूण आमकां अडकुपाचें नाटक करूं नाका
तुमच्या वऱ्हान आमी जियोचेना
आमची भूक बी तुमकां कळवचेना
वाट नीतळ करपाक आमची,
तुमकां हातबोट लावपाकूय सांगचेना,
अशें आसून लेगीत तुमकां विचारपाची गरजूच ना
कितें रे बरो आसा मरे तू ?
आतां एकूच सांगतां, तशेंच सांगून दवरतां लेगीत
हांव म्हजे वाटेन सामको बरो आसा
ह्यानफुडें तुमी म्हाका विचरों नाका
आनी गरज लेगीत ना
कितें रे बरो आसा मरे तूं म्हूण ?

## नवीं पुस्तकां

### सोंश्याचे कान — चा. फ्रा. दिकॉश्ता

कोंकणीतले मंगळुरी शैलींतले नामनेचे ज्येष्ठ कवी चा. फ्रा. दिकॉश्ता हांगेलो हो नागरी लिपयेंतलो पयलोच कविता संग्रह जाग प्रकाशनान उजवाडायला. हातूंत वट्ट मेळून ५१ कविता आसात. कवीच्यो आदीं गाजिल्ल्यो 'हाड चेडवा बुडकुलो', 'आडकुलो गो बुडकुलो', 'रात रात रडला', 'आबुल्या तुजो रंग', 'बिरी बिरी पावस', आदि गीतरचना ह्या संग्रहांत आसपावल्यात. कवीवर्य डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांगेली संग्रहाक प्रस्तावना आसा. तातूंत मनोहरराय म्हणटात – "कोंकणी समाज, ताच्यो चालीरिती, ताचे उत्फरके, उमाळे, दुबाव, हीं सगळीं ह्या काव्यांत होलमतात." ... "सैमाच्या सगल्या रुपाचें पडबींब ह्या काव्यांत पळोवचें. कोंकणचो कवी कोंकणाच्या सैमांत हांगा असो एकरुप जाला."

प्रकाशक : जाग प्रकाशन. प्रियोळ

मुखचित्र : श्रीधर कामत बांबोळकार

पानां : ७८.

मोल : पंचवीस रुपया.

### सावुलगोरी — रमेश भगवंत वेळुस्कार

नामनेचे कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार हांगेलो हो नवो कविता संग्रह. ह्या संग्रहांतल्यो कविता चार भागांनी वांटल्यात. 'झाड,' 'सावुलगोरी,' 'जोगी' आनी 'हेर कविता' अशे ते विभाग आसात. १९७५ ते १९८७ ह्या काळांत बरयिल्ल्यो वट्ट ८९ कवितांचो हातूंत आस्पाव आसा. कवीवर्य बाकीबाब बोरकारांनी, कवीक बरयिल्लें एक पोस्टकार्ड तांच्या हात बरपा सयत कव्हराचेर छापलां. तातूंत बाकीबाब, कवीक लेखून म्हणटा "उण्यांत उण्यां उतरांत सैमाचो आनी सौंदर्याचो अचूक वेध (घेवपी) तुज्या कवितेच्या सभावाचेर हांव एकदम खुश आसां."

उजवाडावपी – अपुरबाय प्रकाशन - वळवय.

मुखचित्र आनी भितल्लीं रेखाचित्रां : श्रीधर कामत बांबोळकार

पानां : १११+१२

मोल : तीस रुपया.

## अेका झाडाक घर जाय — अरूण साखरदांडे

कोंकणीतले नवे कवी अरुण साखरदांडे हांगेलो हो पयलोच कविता संग्रह गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणेखालां' उजवाडाक आयलां. पुस्तकांत एकूण ८७ कवितांचो आस्पाव आसा.

उजवाडावपी : नूतन प्रकाशन – ताळगांव
मुखचित्र : संध्या नार्वेकार
पानां : ९३ + ८,
मोल : वीस रुपया.

## मळबरंगमाची — आर. रामनाथ

तरनाटो कवी आर रामनाथ हांगेलो हो पयलोच कविता संग्रह. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे, खाला तो छापला. संग्रहांत एकूण ६८ कवितांचो आस्पाव केला. तातूंतल्यो कांय गीतरचना आसात. कांय दीर्घ स्वरूपाच्यो आसात. संग्रहाच्या आरंभाकूच 'सूर्या, तूं म्हज्या उतरांक वेंगेत घे' अशीं रेखाटनां सयत उतरां आसात. पुस्तकाचें कव्हर, बांदावळ, आकार आनी मांडणी वैशिष्टयपूर्ण आसा.

उजवाडावपी : अपुरबाय प्रकाशन - वळवय
मुखचित्र आनी भितल्ली रेखाटनां : श्रीधर कामत बांबोळकार
पानां : ८०+१२,
मोल : वीस रुपया.

## ओंवळां — नारायण यशवंत खोर्जुवेंकार

नवोदित बरोवपी नारायण खोर्जुवेंकार हांगेलो हो कवितासंग्रह, गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे' खाला तो छापला. सगळचा मेळून ३० कवितांचो आस्पाव केला.

उजवाडावपी. राजहंसवितरण, पणजी.
मुखपृष्ठ आनी सजावट : राजीव शिंदे
पानां : ४८
मोल : १५ रूपया, साहित्य पसवण : ५ रूपया.

# कुळागर प्रकाशन

विखंड जाल्ल्या कोंकणी समाजाचो
भास आनी साहित्याच्या आदारान
सामाजिक आनी सांस्कृतिक अेकचार
घडोवंक वावुरता

## आमचीं नेमाळीं

**कुळागर** : साहित्यिक मासीक
**ऋतु** : कवितेचें द्वैमासीक

## आमचीं पुस्तकां

**सासाय** (कविता) बाकीबाब बोरकार
**गजालींचें नाटक** (नाटक) अना म्हांबरो
**उडणी वायणां** (संकलन)
**पणजी आतां म्हातारी जाल्या** (कथा) अना म्हांबरो
**व्हंकल पावणी** (कथा) चंद्रकांत केणी
**जोगलांचें झाड** (कविता) शंकर रामाणी
**बिम्बां पडबिम्बां** (ललीत लेख) चंद्रकांत केणी
**गोमती** (नवलीका) नारायण वादोळकार

**कुळागर प्रकाशन**

पो. बॉ. नं. ७८ - मडगांव - गोंय

मुखपृष्ट छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय - गोंय